

# लसूण कांद्या झगडें

नागेश नायक वडिये

# लसूण कांद्या झगडें

(कवनकाणयो)



नागेश नायक वडिये




जैत प्रकाशन

* लसूण कांद्या झगडें
(कवनकाणयो)
- नागेश नायक वडिये

* प्रकाशन क्र. 30



* पयली उजवाडावणी : 2007

* उजवाडावपी :
सुरेश सगुण नायक
जैत प्रकाशन
336/11, कोर्लीम,
तिसवाडी, गोंय - 403 110

* छापपी :
सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम
कोर्लीम, तिसवाडी-गोंय

* मुखचित्र आनी भितरली चित्रां:
गौरीष वेर्णेकार

* मोल : 25/- रुपया

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या "बालसाहित्य" येवजणेखाला छापलां.*

ISBN-81-86487-00-X

# ओंपणी

*हें बाल कवितांचें पुस्तक*
***म्हजी आई स. लक्ष्मीबाय***
*हिका समर्पण*

*- नागेश*

# मनोगत

हांव ल्हान आसतनां म्हजी आई म्हाकां सदां रातची काणी सांगताली आनी वाचपाक गोष्टींची पुस्तकांय दिताली. हाका लागून म्हाकां भुरगेपणासांवन वाचनाची आवड लागली हावेंय अशो काणयो बरोवच्यो अशें त्या वेळार म्हज्या मनाक दिसतालें. गोंय स्वातंत्र जालेउपरान्त गोंयांत दिसाळीं आनी म्हयनाळीं भायर सल्लीं. म्हज्या कवितांक तातूंनीं प्रसिध्दी मेळत गेली. 'किरा मोरा चानये पिला' हो म्हजो पयलो बालकविता संग्रह, आतांचो हो म्हजो दुसरो बालकविता संग्रह. ह्या दोनय पुस्तकांक गोवा कोंकणी अकादमीचो आर्थिक पालोव मेळ्ळा.

आयचें हें पुस्तक 'जैत प्रकाशन' ह्या संस्थेन उजवाडाक हाडलां आनी चित्रकार गैरिश वेर्णेकार हाणीं सोबसारकीं चित्रां काडून पुस्तकाची सोबा वाडयल्या. भौ. भिकू बोमी नायक हाणी पुस्तक बरे भशेन छापून घेतलां. ह्या सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां. ह्या पुस्तकाखातीर कवितांची निवड करपाक बाय माया खरंगटे हाणीं म्हाकां मोलाचें मार्गदर्शन केलां ह्या खातीर हांव तिचे उपकार मानतां.

'किरा मोरा चानये पिला' हें म्हजें कवितांचें पुस्तक आवडलें म्हण म्हाकां म्हज्या असंख्य मोग्यांनीं कळयील्ल्यान आयच्या ह्या दुसऱ्या पुस्तकाची तयारी करपाक म्हाका उर्बा मेळ्ळी. तांचो सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां.

हें पुस्तक उजवाडाक येवच्या वेळार म्हकां म्हज्या सर्गेस्त आईची खूब याद येता. हें पुस्तक हांव तिच्याच यादस्तेक अर्पण करता.

मडगांव, गोंय

नागेश नायक वडिये

## - मांडावळ -

# लसूण कांद्या झगडें



सकाळींफुडें रांदचे कुडींत
कांद्या लसणी लागलीं झगडीं
लसणीन खंय कांद्याक म्हळें
आंगाक तुज्या येतात घाणी.

कांद्यान म्हळें "लसणी तूं
अशी कशी झगडाळ ?
गरजेभायर कित्याक बाये
मारता म्हाका गाळ ?

आयज तुका दाखयतां हांव
पळेयशी तूं पापणी
धोडावन, चेंचावन, लसणी तुजी
करतांच हांव चटणी

तांच्या झगड्यांत आयली मिरसांग
आलेंय आयलें धांवट
एकापरस एक सगळीं
सभावान तिकट

झगड्यांभीतर कांद्यान लसणीर
उबाल्लें थापट
लसूण भोव रावता वोगी
तीय तितलीच चिवट

कांद्या आंगार वचून लसूण
लागली कांद्याक बुड्डूं
कांद्या काकुळट पळोवन मागीर
सगळ्यांक आयले रडूं

# कवितेंतली आई

मोगाळ मायेस्त कवितेंतली आई
भुरग्यांक मांड्येर घेता
खुसलावन, खुसलावन विसरायेर घालीत
एक एक उंडी लायता

वासा साबावान न्हाणयता
पोपो घालतो, पोव लायता
भोभो दिता, पीपी दिता
गोड गोड पापी दिता

सांजची मागीर पासयेक व्हरुन
चानी कीर दाखयता
आमोरेवेळार आंगणांत व्हरुन
चानीमामा दाखयता.

रातची मागीर न्हिदवचे वेळार
कितली सोबीत आल्लय गायता
दीसरात अशेतरेन आपल्या भुरग्या
आपुर्बाय करता

कवीराजा सांग रे म्हाका
असली आई खरेंच आसता
आयच्या काळा असली आई
कोणागेर आसा दाखयशी म्हाका ?

# आवयची याद



गणसावैंल्ला गणसावैंल्ला
भोंवता तूं सगळ्या नगरा
पावता तूं सांग म्हाका
केन्ना तरी देव घरा ?

वचशी तेन्नां सांग म्हज्या आईक
याद तिची येता म्हाका
यादीन तिका विचार बाबा
केन्नां परतून येताली घरा

हांव, बाबा, नवी आई
बरी आसात सगळीं आमी
देवाघरा वचत बसून
खबर तुजी नाच कशी ?

तूं एकली सोडली जाल्यार
कांयच उणें ना म्हाका
तुजी उणीव दिसू फावना
इतलें नवी आई करता म्हाका

कितले म्हजे लाड करता
कितलो म्हजेर मोग करता
खरें सांगूं आई तुका ?
तुजेय परस चड करता

तुज्या फोटवाक नवी आई
दोळे पुशीत पांयां पडटा
घट्ट म्हाका वेंगेंत घेवन
आंवढो घोटीत तुकां सांगता

"तुजें चली तेंच म्हजें
आनीक म्हाका नाका भुरगें
सोपूद घेवन सांगता तुका
चिंता ताची करुंच नाकां"

गणसाबैला गणसाबैला
आईक तूं सांगशी मगा ?
सांग तिच्या फोटवालागी
नवी आई अशें म्हणटा

आनीक सांग नशीब म्हजें
नवी आई गावल्या बरी
तरी लेगीत कोण जाणा
याद तुजी येताच कशी?

# बेतलांतलो नातू

एक आर्शील्लो शेंवटो
तो सामकोच ल्हेंवटो
ताची भयण मुडदशी
ती सापच आळर्शी

शेंवट्याचो मामा
बेतलांतलो बागडो
कुंटत कुटत पेंवतालो
एक पायान लंगडो

शेंवट्याचो काका
माजोड्डेचो धोडयारो
उलो माल्ल्यार जापच दिनां
कानानीं भयरो

शेंवट्याची काकी
कायसूंवची कल्ली
भयण तिची पितोळशी
तीचो गांव केळर्शी

शेंवट्याच्या आजोळाचो
गांव आसा बेतूल
आजो ताचो सांगाळो
आजे नांव चणकूल

शाळे सुट्येंत शेंवटो सदां
वता आजोळा
मामान ताच्या बांदला बंगलो
बेतलांत दर्यातळा.

# दर्या मामा, दर्या मामा



दर्यामामा, दर्यामामा
लागीं लागी म्हज्या तूं येवूं नका
वाजयत गाजयत
थय थय नाचयत
म्हज्या म्हऱ्यांत ल्हारां तुजीं
धाडूं नाका

ल्हारांकडसून आयस्क्रीम, धार्डीत आस्ता
यो म्हण म्हाका तूं, खुणायत गवता
पण आई पळे, म्हजेर कशी
दोळो दवरुन आसा
उदकाभितर, म्हण्टा म्हाका, वचूं नाकां

माणकुल्या कुल्ल्यांक, धांवपाक सांगून
ल्हारांपोंदच्यान म्हाणोयांक, पळपाक लावून
भूल म्हजेर तूं, घालूं नाका
हांगासून म्हाकां तूं, उठोव नाका

म्हाकायबी तुजेसरी येन दिसता
ल्हारांपोंदा बुचकळी मारीन दिसता
उदकापोंदच्यो धुलोयबी पुंजायन दिसता
पण म्हाका खंय, आई हांगचो हालूं दिता ?

दर्यामामा दर्यामामा, परतू परतून म्हाका तूं आपोवनाका
आई पळे कशी म्हाका राखून आसा
म्हाका बाबा तिची थर्त भिरांत दिसता
तिचेकडसून धमकलाडू म्हाका खावोवनाका

# पाळोळेच्या दरया वेळेर

पिकनीक आमची पाळोळ्या
तुमीं सगळीं येया
दरया वेळेर वचूंया
रेवेंत आमी खेळूंया
पाळोळेचो दरयो
पळोवपाक सोबीत
धवीं फुल ल्हारां
धांवत येतात तडीक
उदकांत आमी नाचूंया
ल्हारांपोंदा लिपूंया
वेळेवयल्यो सोबीत धुलो
सगळीं पुंजावया
रेंव घेवन वेळेर आमीं
लाडू वळ्या, बंगले बांदया
बंगलो आमचो कोसळावनाका
ल्हारांकडे सांगणी करया
पाळोळेच्या दरया तडीर
येत आसतात ल्हारां
आमच्या उतराक मान दिवन
मोडनांत आमचीं घरां
ओजून लेगीत पाळोळ्या रेवेंत
दीसतात आमचीं घरां
जशाक तशीं पळोवंक मेळटात
आमीं कोरील्लीं नावां.

# राकेस

अटंग अशें रान
तातूंत काळो कुट्ट काळोंग्र
घुऽऽर घुऽऽर घोरता
रानाभितर राकेस

राकेसाच्या घराक
भांगराच्यो वणटी
कुडीभितर भरुन ओततात
माणकां मोतयां राशी

राकेसाच्या घराक नासतात
फाटलीं फुडलीं दारां
वणटीवरसून दांग मारुन
राकेस सरता घरां



राकेसाची उंचाय म्हळ्यार
आसा इतली लांब
दोंगरावरसून लेगीत राकेस
सहज मारता दांग

राकेस गावांत भोंवडी मारुन
सोदून काडटा भुरग्यांक
चिमटेन उबारुन एकेका भुरग्याक
भरता आपल्या बोलसांत

राकेसाच्या रानाभोंवतीं
खूप आसात गांव
गांवचे लोक भियेतात
आयकून ताचें नांव.



# पोस्टमन

पोस्टमना पोस्टमना
आमगेर तूं कित्याक येना ?
सगळ्या वाड्यार चिटी वांट्टा
आमकांच मात किद्याक दिना ?

कितल्यो पळय चिटयो हातांत
त्या भायर खांक्यांत बोटवोभरुन
सांजपसून सोंपोवन काडटा
वाड्या वाड्यार लोकांक वांटून

मारीया म्हणटा तिचो पाय
चीट धाडटा दुबोयसाकून
शिवाप्पाकय बेळगांवच्यान
चीट येता मामाकडसून



तांच्यो चिटयो इतल्या पैससून
घेवन येता केन्नां वचून
तांच्या वांगडाच म्हाकाय थोड्यो
कित्याक हाडनां कोणाय कडसून ?



पोस्टमना, पोस्टमना
भोवंत वता हांगसून थंयसून
तरी लेगीत जायना कसो
कांसाद तूं इल्लो बसून

हाचे मुखार पोस्टमना
चिट्यो थोड्यो चडच हाड़
तांतल्या थोड्या चिटयांचेर
म्हजेंय नांव बरोवन काड.

# शेवतें आनी आवोलें



शेवतें आनी आबोलें
आसल्यो दोगी भयणी
एक तातली कुड्डी आनी
दुसरी सामकी भेड्डी

दोगांय गरीब बाबडी
नासलो कोणा आधार
करुन चिंद्यां बावल्यो
विकची पिंपळा पेडार

एक दीस आयलें वारें
चांच्यो बावल्यो घेवन गेलें
आबोलें शेंवतें पडली चिंतूक
पोट आतां भरचें कशें

थंयच तांचो लागलो दोळो
इतल्यान घडलो चमत्कार
जागीं जावन पळेत जाल्यार
ल्हान ल्हान भुरगीं मुखार

गोरीं गोमटीं सांवीन भुरगीं
भेङ्ख्या भयणी दोळ्यां दिसलीं
"आई, आई" उतरा तांचीं
कुङ्ख्या भयणी कानां पडलीं.

भुरगीं हीं तांच्योच बावल्यो
न्हय कोण दुसरीं तिसरीं
चिंध्यांची तांच्या आंगार
नासली आतां नांव निशाणी

बावल्यो जेन्नां वाऱ्या वांगडा
उडत उडत सर्गात पावल्यो
देवा कृपेन तांच्यो बावल्यो
मनशांवरी सजीव जाल्यो.

दोगींय भयणींक खोस जाली
भुरग्यांक तांणी वेंगेंत घेतलीं
भुरग्यांच्या स्पर्शासरशीं
आबोलें शेवतें बरीं जालीं.

# मस्तो खुबो

दरया वेळेर त्या दिसा
कुणय म्हणोय खेळटालीं
ल्हार म्हऱ्यांत पावनाफुडें
रेवेंत लिपतालीं
त्यो दोगी खेळटां खेळटां
तिसरी आयली तिसरी
तिसरे फाटल्यान खेळपा खातीर
चवती आयली कुल्ली
चौगीय त्यो खेळटां खेळटां
अचकीत एक आयलो खुबो
रागा रागान तांकां पळेत
मदींच येवन, रावलो उबो
"तुमी हांगा खेळटात आनी
उदक करतात खोदोळ
मस्ती करतात, बोवाळ घालतात
धुमशेणां घालतात सगळो वेळ"
त्याच वेळार एक कोंगो
पळेत आसलो तांचो खेळ
कुणोय म्हाणोये खेळ पळोवन
मजेंत गेल्लो ताचो वेळ
खुब्याक ताणें शीटकावन सांगलें
दरयो आमचो सगळ्यांचो
परथून तांच्या वाटेक गेल्यार
तुकाच हांव चीरतां उबो

# कोलो आनी कोली

एक आसलो कोलो आनी
आसली एक कोली
दोंगुल्लेचेर दोगांय तीं
कुशीकुशीक रावतालीं !
कोल्याचें घर दिसूक बरें
लिकलिकीत मेणाचें
कोलयेचें मात बुरशेशें
खडबडीत शेणाचें !
अचकीत एक दीस आयलें वोत
कितलें म्हण कडकडीत
कोलोमामालें मेणा घर
कडून गेलें सगळें जमनींत !
कोलो बाबडो चितूंक लागलो
सांजे खंय रावतलो ?
कोलये घरा वचून ताणें





कोलयेक हळूच माल्लो उलो !

“कोलये, कोलये आयज न्हिंदूक

म्हाका इल्लो दिवशी जागो

कोलयेन म्हळें “बरे भशेन

तूं काय म्हाकां आसा परको ?

कोलये घरांत शेणावासान

कोल्या पोटांत लागलें ढवळूं

सगळी रात काडली जागून

परतो परतो लागलो ओकूं !

कोल्यान म्हळें “कोलये कोलये,

घर तुजें शेणाचें

पावस आयल्यार कुसकुसून

खिणाभितर कोसळटलें

नवें घर बांदून आमी

रावया एकेकडेन

चुडटां हाडून बांदली खोंप

कोलो आनी कोलयेन.

# सोसो आनी कासव

धांवंचेल्याच्या खेळात
सोंसो आनी कासव
कोण पयलीं गांठता पलतड
लागली तांच्यांत सर्त
टुणऽटुणऽऽ उडक्यां मार्गान
पळत सुटले सोसो
कासवाच्यान धावपा नज
फाटी उल्लो बाडो
थोड्याच वेळांत सोशान
गांठली अर्दी वाट
चितलें ताणें कासव ताची
धरचोचना फाट
वाटे कुशीक शेताभीतर
देखली सोशान कणगां
चितलें ताणें खावया थोडी
कासव रोखडो पावना
कणगां आनी टमाटां खावन
सोशाक माल्ली सुस्त
थोडो वेळ लोळून हांगा
पळचे मागीर टुण टुण
हेवटेन कासवान खरशेत खरशेत
कशीय करुन गांठली पलतड
फाटसून मागीर पावलो सोंसो
लजेन घालून मान सकल.

# पुरयांपरस भाकरी बरी

एक फावट पुरयो खावचें
उंदीरमामाच्या आयलें मनांत
रोखडेंच ताणे बिळांत वचून
हळूच सांगले बायले कानांत

पुरयो तळूंक उंदरा बायल
घेवन आयली लोखणा कायल
पिठा गुळ्यो लाटच्यो कशो
लाटणी आसा, लाटफळे जाय

लाटणी आनी लाटफळ्या भितर
त्याच दिसा जाल्लें झगडे
रागार जावन लाटफळें
कोनशाक वचून फुगून बसलें

लाटणी बाडी पुरयो लाटपाक
एका पायार आसली तयार
लाटफळें कशेंच आयकना
ताणे दिलो साप न्हंयकार

उंदरा बायलेन हाडलो तवो
पीठ कालोवन थापली भाकरी
चुळऽऽ चुळऽऽ चुरचुरीत
उंदराक लागली रुचीक बरी.

# म्हज्या आजोळा

म्हज्या आजोळा जेवणा खाणां
जाय तितलें खावचें, कांयच तोटो ना

सकाळच्या च्याक कणगांचीं मानां
चा पितां पितां कुरुकुरु कानां



ताचे फाटल्यान रोखडोच किटाचो पोस
पोटभर खा आनी सुशेगाद बस

दनपारच्या जेवणार तळिल्लो पापोड
आमलेच्या लोणच्या, रुचीक फोड

पयल्या शीतार वड्यांचो रोस
उपरान्त उडदमेथी पानार घालता धोस

फाटल्या शिताक भिण्णांची कडी
तांबडी तांबडी गूंज वाडटा तितली थोडी

सगळ्यांत निमाणे हें पळे आयलें
भुर भुर भुरकावपाक डाळी मणगणें

ताचे उपरान्त तोंड हालोंवक कातली आनी साठ
थोडो वेळ मानरेर मागीर, तेकोवची फाट

सांजवेळच्या च्याक, हुनहुनीत पोळे
पोळ्यांक लावपाक, कुंवळाचे गुळे

रातीच्या जेवणार शेवयांची खीर
अशी म्हजी अपुर्बाय आजोळा वतगीर



# कावळ्या पिला सटी

मोती दोंगरार कावळी विल्या, आज पिला सटी
पेरगांव घालां 'कोवीत जेराल' सटी आसा मोटी

कावळ्याचो पयसो काळो, कावळ्याक कुचकुचतालो
सटये निमीत काडून ताणें, उदका सारको खर्चीलो,

सटी वाजोंवक कुंडय साकून, रातकिड्यांचें मुजग्यां-पथक
काणकोणाचे पंदरा रांदपी, जावचे खातीर रूचीक रांदप

बांगड्यां-सुकें, सुंगटां-हुमण, विसोणाची कळपुटी
अळसांद्याचें तोणाक आनी, गोडशाखातीर खिचडी

लांचेलांब माटवाभितर, जेवणाची बसली पंगत
जेवणापानार मीठ वाडूंक, किरकिऱ्यांनी केली धांवपळ

गोकाकांतल्या काजुल्यांक रोषणाईचो दिल्लो कोत्राद
पेटय पालय, पेटय पालय, दोंगोरभर झगझगाट

बुंदोडेची रातराणी, दारांत आसली माटवा तोंडार
पावणे भितर सरतरनांच, परमळाचो येवकार

कावळ्या-कावळे आगऱ्याक लागून, कोगुळ मावशेन गायलें गीत
पोपोटमामा बसलो पेटयेर, कवडोभाऊ तबल्या साथीक

सटयेक आयलीं सगळी सवणीं, पारवो बके नासलीं हाजीर
वासपूस केल्यार कावळ्याक कळ्ळें, तांची तार आयली मागीर
बक्या-बायलेन तारेंत म्हळां 'बकें आयजच गेलां कारवार
पारव्यान ताच्या तारेंत म्हळां 'आयज बाबा म्हजो शेनवार

कोवीत जेराल पेरगांव, आयकून माटवाभितर पावलें नातूक
"कसलो बाये अपशकून" कावळ्यान म्हळें, "लाग चलूक"

नाकान दोळ्यान सुंदर बरें, आवयवरी काळें कीट्ट
कावळे-पिला तोखणाय चल्ली, कावळेन म्हळें लागत दिश्ट

कावळे तूं भियेवनाका धरतरेन धीर दिलो
धवो फुल चुनो हाडून पिला गालाक लायलो तिबो

सटी पुजून जावचे वेळार, कावळेन म्हळें 'कांव कांव'
दुबोय साकून मुजरत आयला हो म्हजो खासा भाव

अशे तरेन मोती दोंगरार कावळे पिलां गाजली सटी
खबरांपत्रांत खबर आयली 'सटयेंभितर हीच सटी'

# बिलू, चिमणी आनी फुलपाकुले

बिल बिल बिलू
आयलां उंदरां धरुं
काव काव कावळो आयला
पावा कुडको व्हरुं

चींव चींव चिमणी आयल्या
भाता आंशे वेंचू
कुतू आमचो चिमणेक पळोवन
रोखडोच लागलो भुकूं

पोरसांत आमच्या फुलपाकुले
आयल्यात म्होंव सोदूं
झाडा झाडार भोंवन ते
लागतात फुलां चोखूं



| | | |
|---|---|---|
| नाव | : | **नागेश नायक वडिये** |
| नामो | : | लक्ष्मी बिल्डींग, दत्तगिरी<br>वर्दे वालावलीकर मार्ग,<br>मडगांव, गोंय.<br>फोन क्र. : 2713984 |
| जल्मतारीख | : | 5 मार्च 1933 |
| शिक्षण | : | मॅट्रीक |
| व्यवसाय | : | नोकरी. आतां निवृत्त |
| हेर वावर | : | वेगवेगळ्या दिसाळ्यांनीं आनी म्हयन्याळ्यांनीं कवितांचें लेखन, भौवकन्न बालकविता. 2003 वर्सा 'किरा मोरा चानये पिला' ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन. |
| आवड | : | वाचन आनी लेखन. |
| उमेद | : | माणकुल्या भुरग्यांखातीर कविता आनी काणयो बरोवप. |